•

उजवाडावपी :
चंद्रकांत केणी,
अध्यक्ष,
कोंकणी भाशा मंडळ,
मडगांव - गोंय.

•

पयली खेप
९ एप्रिल १९७३
(कोंकणी दीस)

•

छापपी :
नरेंद्र नारायण नायक,
काझ गोमन्तक,
मडगांव - गोंय.

मोलः २ रुपया



**गुरुदास पुंडलीक शणै कारे**
( जल्म : २२-३-१८९४ – मृत्यु : २३-३-१९७२ )

तीर्थरूप पापाच्या पवित्र उगडासाक

मायेमोगान आनी भक्तीभावान

अर्पण

— विजय

# " म्होर्वी गोटलां " —

हालीं कोंकणीच्या मळार जायतीं फुलां उदेल्यां— तरेकतरा रंगा-रुपाचीं, तरेकतरा वासा-पर्मळाचीं. फूल हें सैंमाचें कवीत जाल्यार कवीत हें साइत्याचें फूल.

आज विजयाबाय सरमळकार " गोटलां " भेटयतात. धव्या रंगाचीं, रस्माच्या पाकळ्यांचीं मागीलदारच्या पोरसांत फुल्लेलीं, बांयच्या रुचीक उदकात पोसलेलीं, मायेमोगान जपिल्लीं.

विजयाबाय लज-भीड धरिनासताना कवींचे पंक्तीक बसता. आपल्या सुबेस उलोवपान आनी माणकुल्याच्च गितांनी संमेलनाक रूच हाडटा. पुण तिणें घरकान्नपण राखलां. घराभायल्या विशयांचेर ती बरयता, पुण घरांतल्या विशयांचेर बरयतांना तिजी लिखणी तिजें मन सांगता तशी मोडटा.

दादल्यांची लिखणी संवसार जिखून आयली तरी घराच्या हुमऱ्याकडे पावतकच थारता, मागशेता. विजयाबायच्या लिखणीच्या जैताची सुरवात रांदची कुडींतल्यानूच जाता.

बायलांचे उर्बा-उमाळे, सुख-सुवाळे, विजयाबाय ल्हवपीक लिखणेन चितारता तेन्ना घरांतले चकचकीत दिवलेच्या लकलकीत चांदन्यांत मन न्हाता-धुता.

बायलांचें दुख चड, तितलेंच तांचें सुखूय व्हड. तांचो संवसार

भावनांनीं भरिल्लो. जिवनाकडेन तीं काळजाचे नदरेन पळेतात. तीं मोगान फुलतात, रागान जळतात, व्हेसान सुकतात.

हुमऱ्यार तिश्टत रावन दोळ्यांतलो हुस्को लिपयत, काळजांतली धडधड थामयत, वाट पळोवपाची जीव-घेणी कळ दादल्यांक कळचेली ना. मोगाचो उमाळो, साखरपुड्याची खोस, पयल्या भुरग्याची सुळूस, आजयेची उमेद, विधवेची व्यथा हीं दादल्यांक सांगून समजुपाचीं ना.

"गोटलां" म्हळ्यार नारी-जिविताचीं उमाळ्यान थपथपलेलीं चित्रां :—

साकरपुडो ! साकरेभशेन गोड हें उतर आंकवारीच्या अंतरांत सपनांचीं चंवरां फुलयता. साखरपुड्यावेळचे चलयेच्या मनाचे रस्मी धागे विजयाबायनूच उसोवन दाखोवचे :—

"कारणाविणे हांसती ओंठ
पालशी नदर चाबता बोट
सूर नुलयत देंवता गळ्यांत
रस्मी भाव फुल्ल्या दोळ्यांत"

मनांतल्यो काय व्यथा उलोवंक येनात, उलोवंक जायनात-- मायेचो मनीस पयस वेता तेन्ना "ओंठार हांसो सुकून येता" "दोळ्यां-तळ्यांत झरी भरतात" "काळजाक सुरी तोंपता" आनी--

रुखा कुशींत रिगल्या वेल
भोंवरे फुलां खेळटा खेळ
हांव मात एकसुरीच
भायर भितर काट्टां वेळ"

अशी गत जाता.

अपुर्बायेन वाडयल्ले चलयेक तिज्या नव्या घराक धाडटना आवयचें मन कशें भरून येता पळेयात :

" आंगणांतले तुळशीवरी
शिंपून केली ल्हान व्हड
दितना आज दुसऱ्या घरा
दुकान दोळे जाता जड. "

आनी अणभवार्ची दोन उतरां ती आपले चलयेक सांगता :

" संवसाराच्या भागेल्याक
दिगो तुजी धीरा धीगी
अरिश्टाच्या वोता पारा
माये सावली घाल बेगी "

आवयपणाची सुलूम लागता तेन्ना :

" लसलसून आयल्यो वैर
उमाळ्याच्यो व्होव्यो झरी
ओंठा जोड फुरफुरता
कोणाक गुपीत सांगचें तरी "

नवी सून घरा आयली पळोवन ती खोसयेन भरून ओत्ता—

" गोमटो, गोरो हांसतो चेरो
पोवळी कशे ओंठ
हात्यावरी हातांत गो
सोबता बाये गोंठ ! "

आनी जेन्ना ती आजी जाता तेन्ना नातीची अशी तोखणाय जाता :

" अपुर्बायेचीं नात आमची
कळी जशी मोगरेची
काळशे निळशे दोळे जशे
निळमणी सोबता कशे "

आनी जाण्टेपणांत :

" लकणी जरी आयली दोळ्यांक
रात हांव काडतां जागयत

काळजाच्या कुरकुटांत
उगडासांचे पनेळ व्हलयत"

केन्ना केन्ना उबगणेन जीव बावता तेन्ना :

"जीव आज ना थाऱ्यार
मन म्हजें उखल्लां
धुंवल्लेले येवजणेंत
वाट हांव विसल्लां"

आनीं जेन्ना कूकूम फांसता, कांकणां फुट्टात तेन्ना आदार नाशिल्ली विधवा विजयाबायक अशी दिसता :

"घुस्मटून कर्पलेली
माटवावीण मुर्टेलेली
रूख मोडून अर्दकुड्यार
चट्टी वाल बावलेली."

जिवितांत बरे तशे वायट खीण येतात :

"ताळयेचेर पानां मदीं
हांसता फूल तकली काडून
असोच एक खीण येता
देंठासैत पट्टा गळून."

अशें हें कवीत बायलांचो घरसंवसार उजळायता, तांचें भावजिवीत चितारता.

गोठलांक वास नासता पुण तांच्या देठांत म्होंवाचो थेंबो उरताच उरता.

मडगांव, २-४-७३. — मनोहर सरदेसाय

# झेलो गांथतना . . .

आज हो 'गोटलां'चो झेलो गांथतना तरेकतरांच्या विचारांनी म्हजें मन काचाबूल जालां कारण साअित्य क्षेत्रांतली ही म्हजी पयलीच चांट आशिल्ल्यान खूबशो चुको जावपाचो संभव आसा. आनी ह्याच भयान आजमेरेन हो झेलो गांथपाचो उरिल्लो.

भौ. मनोहरबाब सरदेसाय, भौ. चंद्रकांतबाब केणी, भौ. शांतारामबाब हेदो, भौ. प्रो. भाटीकार, भौ. वसंतबाब कारो आनी खूबशा म्हज्या बरे मागण्यांनी म्हाका मानसीक धीर दिल्ल्यान हो झेलो तुमच्या मुखार दवरपाचें धाडस करतां.

ह्या झेल्याक मागल्याबरोबर, उतराक मान दिवन, प्रस्तावना दिल्ल्याखातीर डॉ. मनोहरबाब सरदेसाय हांचे आनी तो उजवाडाक हाडिल्लेखातीर कोंकणी भाशा मंडळाचे उपकार मानता.

मडगांव
संवसारपाडवो
४-४-१९७३.

— सौ. विजया सरमळकार

# ध्यास

फांत्यापारार झिळमिळ्यार
काऽ करती कावळे झाडार
पडल्यां तशीं हांतुणार
        मनांत म्हज्या येतात विचार ॥१॥

फुलांत फुलां जायांची
भासांत भास कोंकणी तशी
न्हय ती बोली मराठिची
        आवै भास गोंयकारांची ॥२॥

उलोवंक आवैन शिकयली
जाणकारांनी तिगयली
वोपारींचो साज घाल्न
        ताणीं तिका सोबयली ॥३॥

जांव काळी, जांव गोरी
आवैक दिसतात भुरगीं बरीं
तेच नदरेन पळेयात
        आवै भाशेक वैर काडात ॥४॥

अमृताची गोडी जशी
कोंकणी कानांक लागता तशी
जिवाक म्हज्या एकच ध्यास
        वैर काडची आवै भास ॥५॥

# सरात फुडें, गोंयकारानो !

सरात फुडें, गोंयकारानों !
हावेसाची घेवन वात
वच्चें आसा पलतडीं
एकचाराचें गीत गायत ॥१॥

एकाच रुखा आमी फळां
शिंपडलेलीं जळामळा
आयला वगत एकठावपाचो
जल्मल्ल्या रुखा तळा ॥२॥

ल्हान व्हड बारीक मोटे
भेद नाका धरुंक खोटे
जाती पाती खुटून कांटे
करचें आसा कार्य मोटें ॥३॥

हिंदु, मैर, किरीस्तांव
सगळ्यांचो एकुच गांव
आवै आमची गोंय माय
म्हणून आमी भाव माव ॥४॥

गोंय आमचें गोंयकारांचे
न्हय ते कोणा दुसऱ्याचें
गोंयच्या खातीर झुजचें आसा
सासाय ताजी राखची आसा ॥५॥

# सांग गो केन्ना साखरपुडो

ओंठा ओंठात रंगला विडो
हांसता केसांत जायां पुडो
पडला पोल्यार लजे सडो
सांग गो केन्ना साखरपुडो ॥१॥

कारणाविणें हांसती ओंठ
पालशी नदर चाबता बोट
सूर तुलयत देंवता गळयांत
रस्मी भाव फुल्ल्या दोळ्यांत ॥२॥

चालींत आयल्या हतयागती
चान्न्या शिंवर पुनवे राती
नदरे गोफीण मोखता गुंडो
सांग गो केन्ना साखरपुडो ॥३॥

दाखय लिपय करता गुर्पात
बोटांकडेन चाळो करीत
मुदयेंतलो सांगता खडो
काल जालो साखरपुडो ॥४॥

# आयज तूं वेतलो देखून

आयज तूं वेतलो देखून
ओठांर हांसो आयलो सुकून
दोळ्यां–तळ्यांत भल्ल्यो झरी
काळजा गोंडाक तोपली सुरी

उबगणेचे पडले घाय
उमेदीची बावली जाय
घरा गेली रसणाय
मनाकूय लागली पिसाय

घर भरून ओत्ता दार
मोगरेर कळ्यांक आयला भार
देवाऱ्यांत देव ना
कोणाखातीर गांथचो हार

रूखाकुशींत रिगल्या वेल
भोंवरे फुलां खेळटा खेळ
हांव मात एकसुरीच
भायर भितर काट्टां वेळ

# आसोर

हारशावरी नितळ वोत
चंवरा घाळूंक लागलो वारो
परमळ्ळीं वालीर फुलां
मातयेकूय रंग कोरो

काजळी कुपां सुटलें गिराण
मळब जालें निळें निळें
ओष्येंब्यानी भल्लेले
मेकळे जाले रुखा ताळे

आसोराचो थाव वेत
सोडलो घोंटेर सवण्यानीं
आंब्यावेलीं चानये पोरां
लागलीं खेळूंक धांवपानी

भांगरावरी किरणांनी
काडलें पुसून पावसा लाशें
लखलखल्यो धायी दिको
संवसारार फांकलें हाशें

# तारया बेगीन व्हलय तार

शेतां पावस सुटलां वारें
तारया बेगीन व्हलय तार
धर्वीं फुल्ल मोतयां शिंपीत
        धांवता पळे ल्हारार ल्हार

आमोरेचे लागले दिवे
चल्ल्यो घरा म्हसरां–गायो
वोंसार येवन उगरमल्यो
        नखेत्रांच्यो जायो जुयो

किरकिरावंक लागले किडे
चोंयवशीन काळखी रात
पिलां ओडीन सवणी
        परतूंक लागलीं घोंटेरांत

कुळागरांत चुड्डां खोपींत
दोनूय दोळयां पण्ट्यो पेटयत
नदरेचीं वात सारीत
        घरकान्न उबी वाट पळयत

# नव्या युगाक नवी देग

झडून गेलीं पिकीं पानां
नव्या युगाक आयला चंवर
फुडाराच्या रुखा तळा
कर्तुपांचो पडला शिंवर ॥१॥

ल्हारार ल्हार धांवता मुखार
झेंप घेवंक दर्या देगेर
उदरगतीक येवचें जाल्यार
सोडचो आसा पोरणो घोंटेर ॥२॥

विशाल जगा मजगतीं
शेकान शेक रुप्या वाट
ध्येय मार्ग गांठचो आसा
हुपून अशीर कांत्र्यावाट ॥३॥

उजवाडाचीं फुलीं फुलां
काळखेची सोंपली रेग
आयज आमी सरया भायर
नव्या युगाक नवी देग ॥४॥

# यादस्ती

लकणी जरी आयली दोळ्यांक
रात हांव काडतां जागयत
काळजाच्या कुरकुटांत
उगडासांचो पनेळ व्हलयत ॥१॥

उमाळ्याची उतरां तीं
विसरूं कशीं रिगलेलीं
जनन्यांच्या खिणावरी
घरां करून बसलेली ॥२॥

फुडाराचीं सपनां निळीं
फुलांवरी पुंजायलेली
उमेदीच्या रस्मा दोळ्यार
सोबीतकायेन गुंथलेलीं ॥३॥

सवणीं कशे भुर्रकरून
सुखा दिस गेले उडून
यादस्तीचे दुखा पिले
काळजा तळांत बसल्या लिपून ॥४॥

# पुनव

आयली दुदाळ पुनव
घोगो चान्न्याचो वेल्यान
धरतरेचे हाण्डीचेर
　　　कळसो अळकनता भरून ॥१॥

आयली रुपेरी पुनव
भरती आयली समुद्राक
फेणेराच्या हारशांत
　　　रुप दाखयता चंद्राक ॥२॥

आयली मोगाळ पुनव
पासरी पांगरुन रुप्याची
मळबाचे तबकडेंत
　　　निरांजनां नखेत्रांचीं ॥३॥

आयली शितळ पुनव
ओड लायता नवरुपेक
सगे भुंयचो एकचार
　　　मोग दाखयता जगाक ॥४॥

आयली धवीच पुनव
शाल्‌ बुऱ्यांचो न्हेसून
चुडो जुयांचो माळून
　　　आखो तिको करून ॥५॥

## विधवा

घुस्मटून कर्पलेली
माटवाविण मुट्केलेली
रूख मोडून अर्दकुल्यार
चट्टी वाल बावलेली ॥१॥

संवसाराची तार तिजी
तारवावीण थांबलेली
उमेदीचो चंवर गळून
दुखान जीण भर्लेली ॥२॥

विचारांचीं आर्ती पर्ती
चाकां माथ्यांत घरवरती
जिवीताच्या झुजा मळार
त्यागाचो लायता वाती ॥३॥

शांतताये मूर्त कशी
देवतेमुखार दिवली जशी
गेल्या दिसां माळ ओर्डीत
वितरागी योगीणशी ॥४॥

# चलयेक

आंगणांतले तुळशीवरी
शिंपून केली ल्हान ल्हड
दितना आज दुसऱ्या घरा
        दुकान दोळे जातात जड ॥१॥

दोळ्यांत दुख नाका काइं
दिल्या घरा राव खोशी
सार्थ कर कुळा नांव
        कर्तुगां करुन तशीं ॥२॥

आडमेळ्यांचे येतले दोंगर
जिवीताच्या झुजा मळार
मोंशीकमाणे बावटो घेवन
        हांसते तोंडान सर मुखार ॥३॥

संवसाराच्या भागेल्याक
दिगो तुजी धीरा वीर्गी
मरिश्टाच्या वोता पारा
        माये सावळी घाल बेगी ॥४॥

फुडले पिडये जागो दिवो
वाट दाखोंक फुडाराची
देसाखातीर वावुरपाक
        दिगो जाणीव हावेसाची ॥५॥

# रात

नखेत्राचो शाळ न्हेसून
मळबाचो पदर कसून
मंद मंद पावलां उडैत
काळखी रात आयली नट्‌न ॥१॥

चंद्राचो लायलो तिब्बो
हरणाच्या रथार उब्बो
जोगलांच्या पोवना माळेंत
झगझगता उज्या गाब्बो ॥२॥

दोंगरायेदीं दर्या ल्हारां
पावलां वाजौन खळखळती
आयली म्हणून रातराणी
रातीकडे गायना गाती ॥३॥

नातकां लागलीं कवना करूंक
वागळां लागलीं धालो खेळूंक
काजुल्याच्या गुंजुल्याच्यो
पण्ट्यो लागल्यो झिगझिगावूंक ॥४॥

एक सृश्ट विळी न्हिदेंत
दुसरी जागता खोशे मजेंत
सृश्टीचो चलता नेम
रात दिसा खेळ खेळैत ॥५॥

# पुनवेची रात

पुनवेच्या चंद्राक पळोवन
जाग आयली सगळ्या रानां
खांदयांच्या हिंदळ्याचेर
झोंपयो घेंवक लागलीं पानां

धर्तरेची तांबडी हांतर
माखली दुधान भायर भितर
रातराणी लागली मोडूंक
वजऱ्याच्या संगीताचेर

उगरमले कुना कळे
मोगरेन केले उक्ते दोळे
कवडां धांवून लागले झेमेवंक
मेरेवेले तायखिळे

दंवान शिंपल्यो मोतयां राशी
सांवळ्यो काड्रात उठाबशी
जायो जुयो ओत्ता सडे
हातो लागलो उसौंक कुशी

नखेत्राच्यो चुनरज्योती
कुपां धव्यो कापसाराशी
पुनवेची हांसता रात
नवरुपी व्हंकल कशी

# मिर्गाची लागली सुळूस

निळ्या निळ्या मळबाचेर
काजळी कुपां आयलीं दाट्न
मिर्गाची लागली सुळूस
वाऱ्यान दोळो माल्लो हांसून ॥१॥

लागलीं खेळूंक आपालिपा
जोगलांची भांगरा ल्हारां
उजवाडान कुट्ट्यो केल्यो
दनपारच्या वोता पारा ॥२॥

मोरार बसून आयली दडक
सृश्ट जाली ओली चिप्प
झाडां पेडां लागलीं पळौंक
व्हांवल्या उदका हालतें रूप ॥३॥

जाल्ले गिमान जुनेर सोडून
पाचवो चार न्हेसून शाळू
रसरशिळी धर्तरी
खोशी जावन लागली घोळूं ॥४॥

# वाटेकडेन नदर

आंज गो तुज्या दोळ्यांत
कोणें जादू केला
निळ्या निळ्या मळबांतल्यान
        पारवो धवो दैंवला  ॥१॥

उदकांतल्या साळकावरी
बाबडें उबें पडवेंत
चातकाची उमळशीक
        निशेता गो नदरेंत  ॥२॥

उमेदीचो हांसो तुज्या
फुल्ला तांबड्या ओंठार
गुलाबाचो फुला सडो
        ओतला गोऱ्या पोल्यार  ॥३॥

तिनकात्री सांजेपारा
थंड वाव धुंवधुंवता
मोतयावरी दवा थेंब
        पानाचेर निथळता  ॥४॥

आंग लागलें शिरशिरूंक
काळजां जाता घालाघाल
कान दिता भोवन भोवन
        सरसरतें आयकूंक पावल  ॥५॥

# जिणेत म्हजे आयलो तूं

जिणेत म्हजे आयलो तूं
पारजताचें जावन फूल
तान भूक न्हिवली तुज्या
परमळांत जावन गुल ॥१॥

जिणेत म्हजे आयलो तूं
तार जावन सतारीची
सुरांत तुज्या दितना सूर
पडली विसर संवसाराची ॥२॥

जिणेत म्हजे आयलो तूं
जोत जावन दिवलेंतली
काजळी तुवें काडली पुसून
काजळल्ल्या काळजांतली ॥३॥

जिणेत म्हजे आयलो तूं
सांवळी घालीत मायेची
उजळायली जीण म्हजी
याद उरूंक जल्माची ॥४॥

# नवी सून

आनंदाचो दीस आज
भाग्य उदेलें
नवी सून आयली घरा
घर गे उजळलें ॥१॥

गोमटो गोरो हांसतो चेरो
पोवळी कशे ओंठ
हात्यावरी हातांत गे
सोबता वांय गोंठ ॥२॥

दिल्ली चेर्ली दुसऱ्या घरा
रुपान तुज्या आयली आज
पुस गे दोळे फुल्ते कळे
तूं ह्या घराक साज ॥३॥

ल्हान व्हड केल्लो चलो
ओंपता तुका आज
सांबाळ ताका चडतना
संवसाराची पाज ॥४॥

राम–सिते जोडो कसो
देवून न्हिवली भूक तान
कुतुपी गे कर तूं अशी
मेळचो तुका मान ॥५॥

# हुस्को

नेस्तो बाये हुस्को हो मनाक
लागली नागे पाती दोळ्यांक ॥धृ॥

आतां येत मागीर येत
जागली बाये सगळी रात
घुस्मटून पांगरुणांत
मेकळी केली वाट दुकांक ॥१॥

भायर वेतां भितर येतां
पर्थपर्थून सुस्कारा घेतां
उबगलो गे जीव आतां
सांगचें कशें पुण गे लोकांक ॥२॥

आज वेतां परां येतां
मोगा तुजो सोपुत घेतां
शर्त तुका उतर दितां
विसर कशी पडली जिवाक ॥३॥

# हांव राजा तूं गो राणी

शिंपल्या भितर मोतयां कशीं
दोळ्यांत कित्याक भल्लीं दुकां
मुमुर्यांचि हांशार तुज्या
उंवाळून वडयत सगळीं सुखां ॥१॥

दुबावाचो घुस्पागोंदळ
वोगीच मनाक करता खदोळ
गळ्यांत माळ घालतनां
दोनूय दोळे हांसले व्हदळ ॥२॥

तांबडे गुंज भिरंड कशे
ओंठा जोड लायता पिशें
हुतहुतें मन गो म्हजें
धांवतां पळे कशाकशें ॥३॥

सार गो कुशींत भया वेणी
खंतीची मुमुर्वी सुर्णी
संवसाराच्या नवे जिणी
हांव राजा तूं गो राणी ॥४॥

# तुमचीं मतां

आमची खूण दोन पानां
मनांत घरात सगळीं जाणां
पैली पानां मागीर फुलां
सैमान हेंच दाखौन दिलां ॥१॥

व्हडविकेची अस्मिताय
आमचें गोंय आमकां जाय
जावचो ताजो संत्र सदेश
सांगता अशें गोंयमाय ॥२॥

शेजरा वाडो आसलो जरी
आमची खोंप आमकां बरी
परक्यांक "थारो" दिवनाकात
गुलामजावन रावनाकात ॥३॥

गोंयकारानों उठात उठात
एकचाराचें गीत गायात
आमचें गोंय आमकां उरूंक
तुमची मतां पानाक दियात ॥४॥

# वारें आता परतलें

वारें आता परतलें
पोल कुशीन सारतलें
जैताची घेवन गुडी
गोंयची राखण करतलें ॥१॥

देंवदी कुपां जांवदी मोडां
आडमेळ्यांचे येंवदी वाग
काळखी पुसून फांकलो दीस
ल्हान व्हडांक आयली जाग ॥२॥

धांवल्या वाऱ्याक धरित कोण ?
पेटत्या उज्याक पाल्यत कोण ?
दर्याकुच आयला हुवार
बांध ताका घालीत कोण ॥३॥

रुखावेल्या संवण्यानो
फुलावेल्या भोंवऱ्यानो
सांगात घरा कणकणीं
गोंयचें वारें परतलें
थोड्याच दिसांत कळतलें ॥४॥

# खरे जाले बोल

आनंदाचो दीस आज
भाग्य उदेलें
झाडार पेडार देवळा घुडार
साद निशेले ॥१॥

कांटे-खुटे नस्ते पटे
डुबून गेलें पोल
जवाहिरा आज तुजे
खरे जाले बोल ॥२॥

उदरगतीक आयलीं पानां
रसरसलीं गोंयचीं मनां
जैताच्या परमळान
घमघमलीं रानां वनां ॥३॥

आडमेळ्यांचे सुटले पास
मेकळी जाली फुडली वाट
फुडार आता थारायतले
गोंयकार आमी सात लाख ॥४॥

# दाटली आयज काळखी रात

दाटली आयज काळखी रात
उजवाडाची सोंपली वात
भारताच्या आदाराचो
तुटलो तारो अकस्मात ॥१॥

मोनेळ पडली सैमाचेर
हाकार उठलो धरतरेचेर
चंद्र–सूर्या लागलें गिराण
शांतताये मळबाचेर ॥२॥

कुपां लागलीं दुकां गाळूं
वाऱ्याक आयलें गदगदून
कोगळां गीतां गावचीं सोडून
रडूंक लागलीं घुस्मटून ॥३॥

गोंयचे मोगाळ गोंयकारानो
गोंयची सासाय उरतली
आयले जरी कुपां दोंगर
धीर्गी म्हजी आसतली ॥४॥

जिल्लीं उतरां ओठां ओठांत
काळान फूल खुंटलें देंठांत
भारताच्या माथ्यावेलें
तुटलें छत्र एका खिणांत ॥५॥

बाबडे जाले भारताचे
ल्हान व्हड बारीक मोठे
जवाहिरा तुज्याविणा
काळजां भल्ले दुखां कांटे ॥६॥

नाशीवंत देह जरी
विल्लो पंचमहाभुतांत
किर्तीची अमर जोत
तेवतली युगायुगांत ॥७॥

# राना रानांत वाजता गे शीळ

रानां रानांत वाजता गे शीळ
        येता जातये म्हजो वनर्नाळ ॥ध्रु॥

केन्नाची पळेतां वाट
दीस पडलो आयली रात
सृश्ट ही बुडली काळखांत
        काळीज तुट्टा तिळतीळ ॥१॥

वाटार सगलो धुंदायळो
वाडो गे पालथो घालो
हुस्क्याचो माल्लो भालो
        अंतस्कर्णाक पड्टा गे पीळ ॥२॥

सांगा सांगात गे जाया जुयानों
वोगी कित्याक तुमी चौंवऱ्यानों
रैं कृष्ण म्हजो साळकानों
कित्याक तोंडाक पडली अशी खीळ
        राना रानांत वाजता गे शीळ ॥३॥

# नात

अपुर्बायेची नात आमची
कळी जशी मोगरेची
काळशे निळशे दोळे जशे
निळमणी सोबता कशे

उगरमले साळीक जशे
धवे फुल्ल तोण तशें
पोवाळ्यावरी तांबडे ओठ
फुगऱ्या पोल्यार काजळा बोट

पिंगशी कुल्ला केसांची
याद करता ल्हारांची
चुकून मुठीत घट्ट धरी
रडून मागीर आकांत करी

आजो आजी तोखेतात
चाळो पळौन सुखावतात
ल्हान व्हडांक लायता पिशें
सुष्मा नांव नातीचें

# पावस

उमाशेच्या जोरगतीर
मळबा लागली गळटी
चोंयवशेन भल्लें उदक
न्हयांक आयली बुट्टी

काजळ मारून बसलां कुपां
म्हातारी फोव काण्टा
डरांव डरांव करीत बेबे
शेतांत गायना गायता

सूर्य देवान धांपले दोळे
दिसा रात दिस्ता
हालता माड धोलती रूख
वाऱ्यान पालो उबता

शाळें साकून येतना पोरां
वावजडीन भिजतात
शाळेक सांची सुटी म्हणून
मुमुर्खींच हांसतात

# लागली तिका गोड सुलूस

लागली तिका गोड सुलूस
आयलें आंग शिरशिरून
कितलीं देवांक अर्गी घालीं
आई गे म्हणचे म्हणून ॥१॥

लसलसून आयल्यो वैर
उमाळ्याच्यो म्होंव्यो झरी
ओंठा जोड फुरफुरता
कोणाक गुर्पीत सांगचें तरी ॥२॥

जळीं थळीं लागलो दिसूंक
यशोदेचो कृष्ण कसो
आकुळ पिकूळ जाल्ल्या जिवाक
अमृताचो थेंबो जसो ॥३॥

रातदीस ध्यास एक
सोंपचो बेगीन म्हैनो णवो
केन्नाकाय पळेतली
मठयेचो वंशा दिवो ॥४॥

# मनुशा रे जीण तुजी

मनुशा रे जीण तुजी
आळवावेलो दवा थेंबो
सांगू नज घालीत उडी
रावला फाटी काळ उबो

आरशावरी देह तुजो
उदकावेलो बुडबुडो
आयचें आयज फायचें फाल्या
करचें नाका शीक धडो

संवसाराच्या दर्या मधीं
बुचकळ्यो तूं खावूं नाका
पंचरंगी मोयपासांत
गुल्ल जावन रावूं नका

सूर्यावरी झांक तुजी
कर्तुपांची दिव्य किर्त
फुडें फाटीं उरतलें गा
तेंच तुजें गंगे तीर्थ

# सांगाती

आयुष्याच्या दर्यादेगेर
संवसाराच्या कांठ्या वाटेर
वांगड तुमी दिलो म्हाका
एकमेकांच्या विस्वासाचेर

भल्लो हातांक पांचवो चुडो
न्हेसलीं पांचवो जरी साडो
म्हुर्ताक उलो वेळ थोडो
आंगार भोंवर शिरशिरलो

मनांत भंया भोंवती थोणी
दुबावाचीं मुमखीं सुणीं
वचत कशे फुडले दीस
संवसाराच्या नव्या जिणी

हुमन्यावेळें माप ओतून
हतया गतीन सळीं भितर
दोळ्यांतलीं पुसली दुकां
खातकुल्याचें आयकून उतर

# जिवीताचें कुवाडें

जीव आज ना थाऱ्यार
मन म्हजें उखल्लां
धुंवल्लेले येवजणेंत
वाट हांव विसल्लां

फुल्लाक म्हणून घाल्लो हात
कुच्चकल लागलो कांटो
उमेदीचीं बावलीं पानां
उबगणेचो उल्लो वांटो

झोमून घेत माल्लो घांस
तांबडें गुंज दिसलें फळ
रूच घेवन पळे जाल्यार
कडूविख्ख कमंडळ

लखलखता हिरो म्हणून
पेटलां भितर दवल्लो
बागिकमाणेन पळे जाल्यार
फाल्स खडो आशिल्लो

गाड पांचवो दिसलो विलोद
जायत शेळी विसल्लें
हुस्को सोडून लागलीं चलूंक
सुर्कन्न निसल्लें

खरें कितें फाल्स कितें
वैल्या कोरार समजना
जिवीताचें कुवाडें
अजून म्हाका उमजना

# करात जयजयकार

लाख तोंडानीं लाख जिभानीं
करात जयजयकार
स्वातंत्र्याची गुढी उबाली
आज आमच्या गोंयार ॥

तोडून उडयल्यो गुलामगिरीच्यो
लोखणाच्यो सांकळ्यो
स्वातंत्र्याच्यो पेटल्यो मशाली
काळखी राती सोंपल्यो
फांतोडु जाली दीस उदेलो
किर्णां आयलीं दारार ॥स्वा॥

गोंया, तुवें सोंसले कितले
अपमानाचे वाय
परतंत्र्याच्या पासान ज्याणीं
बांदले तुजे पांय
त्या फिरंग्यांक करून भायरे
धाडले दर्यापार ॥स्वा॥

रुखार कोगळान गीतां गायलीं
वाऱ्यान धल्लो सूर

कुळागरांतल्या माडयांच्याय
खोश्शेक आयलो पूर
भोंवरे भोंवर मारूंक लागले
तळ्यांत फुल्हेल्या साळकांर ||स्वा||

गोंयकारांचें भाग्य उदेलें
काळखी जाली पार
आनंदाचे साद निशेले
देवळांच्या घुमटार
एकचाराचें गीत गायत
करया जयजयकार ||स्वा||

# सत्या तुज्या एका धिरार

कांट्यावाट चलतना
आसली जरी काळखी रात
एकूच तुज्या कीर्णाचो
आदाराक पुरो हात

धर्तरेर चलतना
आडमेळ्यांचो आयलो भोरो
मळबां उंच उडपाखातीर
पाखां तुज्या आलाशिरो

खोटांव म्हाका सगळ्या जगान
दार तुजें उक्तें पुरो
माणकां मोतया हारा परस
श्रेष्ट तुजो फुलां तुरो

तिगल्या मुळार चडून हांव
सांगात तुजो मेळन जाल्यार
त्रिखंडाक दीन तोंड
सत्या तुज्या एकाच धिरार

# वाट आज सोदतां हांव

वाट आज सोदतां हांव
कोणा म्हऱ्यान घेवची धांव
कोण हांव खंयचो हांव
खंय वेतां खंयचो गांव ॥१॥

अर्दकुऱ्यो कल्पना
अर्दकुऱ्यो वासना
अर्दकुऱ्यो काडल्यो राती
थाव ठिकाण नासतना ॥२॥

सोडल्यो रिती सोडल्यो निती
भिरकटायल्लीं सगलीं नातीं
फुडारं येवजी नासतना
मृगजळाच्या लागलो फाटीं ॥३॥

सोंपले दीस आयल्यो राती
आंगावेल्यो लामल्यो काती
येवजणेच्या पावशी वाऱ्यान
गात्रां म्हजीं थरथरती ॥४॥

एकसुरोच लागतां गांवक
कोण आसा सोद घेवंक
पलतडच्यान साद घालीत
पावलां लागलीं सरसरांवक ॥५॥

# असोच एक खीण येता

मुळूस दाखय नासतना
असोच एक खीण येता
वोतांतल्या थेंब्यावरी
        हांसते खीण मुकून वेता ॥१॥

खडपाचेर पिकता पीक
मातयेचें भांगर जाता
असोच एक खीण येता
        कण्यांवरी विरगळटा ॥२॥

उमेदीचे घेवन धागे
विण वेता मुखा शेळो
असोच एक खीण येता
        वावन वेता मना झेलो ॥३॥

ताळयेचेर पानां मदीं
हांसता फूल तकली काडून
असोच एक खीण येता
        देंठासेत पडटा गळून ॥४॥

सृष्टीचो नेम आसा
दीस वेता रात येता
तांतून एक खीण येता
        काळजां भितर मुंगरता ॥५॥

# बाबुलो

जागो बाये बाबुलो
अजून गे ॥धृ॥

पांयार घालो पाळण्या न्हिदायलो
जय जय करून थापटून पळेलो
कोंब्यांनी साद घालो ॥धृ॥

पाय फाफुड्डा वाळे वाजिता
दोळ्यां दोळो दिवन वळख घेता
फिस्सकन हांसलो ॥अ॥

मुठी आंबुयटा विंदल्यो खुळखुळटा
उमथो सन्न गे धिमखुऱ्यो घेता
हुंकार दिवंक लागलो ॥अ.॥

यो कुत्रू बिल्लू यो गे यो हामा
खेळूंक यो रे तूं चान्नीमामा
खेळटां खेळटां भागलो
अजून गे जागो बाये बाबुलो

# नांव खैंचें दवरूं तुका

नांव खैंचें दवरूं तुका
सट्टकन्न सांग गो म्हाका
गुलाब शेंवतें जाय आबोली
पांनू पुतें काय चमेली
हांतलें खैंचें मानलें तुका
        सट्टकन्न सांग गो म्हाका

उमा सुष्मा हिरा मीरा
सीमा रेश्मा निरा तारा
हांतलें खैंचें मानलें तुका
        सट्टकन्न सांग गो म्हाका

प्रिता नीता निला शैला
मिता रीता शिला लैला
हांतलें मानलें जाल्यार तुका
        सट्टकन्न सांग गो म्हाका

नांवां भितर आसा कितें
तुमच्याविणें जिणें रितें
सदां तुमचेंच म्हणा म्हाका
        नांव दुसरें आनी नाका

# आवयक

आई तुज्याविण गे
उथळ म्हजी जीण गे
रखरखत्या मळाचेर
        रुखा सावळी नाच गे

केळी हांडीर घडांक वेतात
तोऱ्यांक दुदनी सासपितात
माडावेल्या नाल्लां बोंड्यांक
        मांडयेर चुड्टां न्हिदायतात

उष्ष्यावाऱ्यार कोंबये पिलां
कोंबयेवांगडा चिंवचिंवतात
आड्या कुशीन सुण्यापेटे
        आवय वेंगेंत लुचयतात

मांजरी पोरांक सामायटात
सात कोनशे भोंवडायतात
पाखांटेचेर घोटेरांत
        सुकणी पिलांक वांस दितात

पळवन दुःख जाता मनांक
उक्तें करुन दाखंव कोणाक
उदकाविण झळकीं जशीं
        तूं नासून जीण तशी

# दिवाळी आयली आज

नव्या वर्साचो बावटो घेवून
दिवाळी आयली आज
तरेक तरेचे दिवे लावन
घरांक चडवया साज
दिवाळी आयली आज

खोशी जाली सगळ्या लोकांक
वारें गायता गीत
माडांचेर चुड्टां धोलती
आयकून तें संगीत
माटवावेल्यो जायो जुयो
परमळायतात पाज
दिवाळी आयली आज

रुखांर कोगळां कुहूकुहू करतात
तळ्यांत हांसतात साळकां
नव्या वर्साचो संदेस दितात
जशीं काय तींऽ आमकां
एकवट सैत जोडून जैत
झाडून नस्तो वाज
दिवाळी आयली आज

मळबाच्या तबकडेंत पेटल्यो
नखेत्रांच्यो वाती
चंद्रकोर ही मुमुरखी हांसता
चतुर्दशेच्या राती
झींग झीग जोगलां तालगडी खेळटात
घालून भांगरा साज
दिवाळी आयली आज

घरां कणकणीं उमेद फुलोवया
दुःखाक करया फाट
ल्हान व्हड हो भेद विसरून
आगळो करया थाट
एकचाराचें गीत गावया
विसरून फाटली खाज
दिवाळी आयली आज

## तांडेला रे भायर होडें घाल

तांडेला रे तांडेला
भायर होडें घाल
दर्याचीं धांवतां ल्हारां
वाऱ्या मुराक धरता ताल ॥ध्रृ॥

हांसता माथ्यार चंद्रिमा
घोलता देगेर रूख
देवादिकां अपुर्शें
प्रेमाचें हें रूप ॥१॥

फेणराचीं फुलं धर्वीं
मोतयां सडो शिंपता पळे
वोसार येवन उगारमलें
नखेत्रांचे कुनां कळे ॥२॥

पावशी वारें सुटलें आतां
दिसता ल्हारां डोंगरा येदीं
किट्ट काळी रात उबी
सामाळ होडें पावल्यां मर्दा ॥३॥

वेर वीज लखलखता
कुशांर कुपां गडगडता
चुकचुकता संकटाची पाल
तांडेला रे तांडेला
भायर होडें घाल ॥४॥

## मत्तां दियात जाणकाराक

सोबीत म्हजें गोमटें गोंय
बेनह्लीनी बावयलां
धुमशेणाची वायटी लागून
	भितर भायर पोखह्लां

फोण्ण दारां बनखणीचीं
परक्यांकडून घेतलें झोमून
तान भूक न्हीद खळून
	कवथ्यावरी काडलें शिंपून

आपसांभितर पडली फूट
गोंयच्या मोगाक आयली तूट
अभिमानी सन्न फुडें
	राखलो ताणीं गोंयचो घूट

सुवार्थ्यांच्या बावल्यांचो
आज परत चल्ला खेळ
जो तो म्हण्टा हांव हांव
	मनमनांक बसना मेळ

करून विचार गोंयकारानीं
मारात वेंग एकचाराक
उदरगतीक येवंक गोंय
	मतां दियात जाणकाराक

# तूं चल रे फुडें

गोंयच्या नौका ध्येय तुजें
        लाख मोलाचें
तूं चल रे फुडें मोड रे कडें
        नस्त्या भयाचें फाल्स जगाचें

फुडें फाटी कठीण घांटी
आसली जरी रात
पावशी वाऱ्यान कांड्यान खुंड्यान
आडली जाल्यार वाट
शिट्कसाणेन पळयत फुडें
पावल उडवचें
तूं चल रे फुडें मोड रे कडें नस्त्या भयाचें

आडमेळ्यांचे वागनाग
मुखार मेळटले
कुळीत्रांचे दोमळे विंचू
थांस मारतले
हायस हुयस करचें सोडून
पलतडी वचें
तूं चल रे फुडें मोड रे कडें नस्त्या भयाचें

आलतड तुका सोडनारे
दर्या लागतलो
दोंगरा येदीं ल्हारां घेवन
बांद घालतलीं
शांततायेन कुशीन सारीत
पलतडी वच्चें
तूं चल रे फुडें मोड रे कडें नस्त्या भंयाचें

उदरगतीक येवचें जाल्यार
नेट सोडचो न्हय
कोणेंय कितेंय म्हटलें जाल्यार
पर्वा करची न्हय
तरच तुजें स्वप्न खरें
जातलें यशाचें
तूं चल रे फुडें मोड रे कडें नस्त्या भंयाचें
फाल्स जगाचें

# सैमाचें रूप

येवन हुंवार न्हंयचे उदक
धरता वाट वळणाची
मनाक तिज्या आसता ओड
मोगाळ तिच्या दर्याची

आपालिपा खेळटा कुपां
पड्डो वडवन मळबाचो
पावस जावन देंवता सकैल
घेवंक उमो धन्नीचो

लजरी कळी घालता सकैल
पालशी मान व्हंकल कशी
भोंवरे पळवन लागता हांसक
पुनवेचें चान्नें जशी

घोटेरांत सावरां पाखे
तिनसानचे पेंगता न्हिदेन
फांत्यावेळी पसय पळवन
गुजगुजती चोंयवशेन

खांबे कशे दिसता उबीं
झाडांपेडां दनपारची
चंवरां धोल्लंक लागता पळे
  लागतां सुळूस वाऱ्याची

रूप सोबीत सैमाचें
पळवंक दोळ्यांक दिसता सुख
सदांच जरी देखतां हांव
  न्हिवना म्हजी तान भूक

# सुनबाय

हाल्दयली धोंल्यली पंदी पेठयली
न्हिदलेल्या सुनबायक कोणें उठैली
वेल्लेवरी आंगलटाची
शेरवडाचें पान कशी

वोचकुलां साळकांवांगडा सर्त करतली
न्हिदलेल्या सुनबायक कोणें उठैली
पिकलेल्या तेंडल्यावरी
तांबड्या ओंठांची

दर्याचीं ल्हारां कशी कोंगऱ्या केसांची
हांसली जाल्यार उजव्या पोल्यार खळी पडली
न्हिदलेल्या सुनबायक कोणें उठैली

किट्ट काळे हरणावरी
लामशे दोळ्यांची
खिचयलेल्या मोतयांवरी कवळी दांतांची
वरच्या बाये लक्ष्मीक किल्याक सतयली
न्हिदलेल्या सुनबायक कोणें उठैली

# १५ आगष्ट

भारतभूंयच्या स्वातंत्र्याच्यो
पेटल्यो लाख मशाली
नव्या युगाच्या नवसुर्याचीं
किर्णां नवीं उदेलीं

आजमेरेन ज्या हिंद पुतानीं
झुझतां जीण सोंपयली
त्या त्यागाचें सार्थक जालें
गुलामगिरीची बेडी तुटयली

जळीं थळीं सूर एक निशेता
भारतमाता की जय जय
उजळ कांतीची थीर शांतीची
म्हुर्त सोबीत ती तेजोमय

दिस हो आयचो भौमानाचो
इतिहास चिरंजीव करपाचो
भांगरा अक्षरान नांव बरोवचें
भारत भूंयच्या नामनेचो

# भारताच्या जवानांनो

भारताच्या जवानांनो
घिटायेच्या संवगड्यानो
हिंदमाय मारता उलो
सरात फुडें झुंजाऱ्यांनो

व्हडविकेच्या अस्मितेचो
अप्रुपांच्या सासायेचो
पुण्यशील भारताचेर
पडलो पास दुस्मानाचो

आप्प केलो चिनान जागो
पाकिस्तानान लायलो उजो
शांततायें फुटलें व्हडें
सोशीकसाणे पडले तडे

नितळ नितळ मळबा भितर
भरून आयलीं काजळी कुपां
दांतओंठ लागलीं चाबूंक
लडायेचीं तांबडी भुतां

अरीष्टांचें लागलें गिराण
म्हारगायेचो आयलो हुंवार

फायचो दीस येतलो कसो
रयते मुखार एक विचार

मायभूंये जैता खातीर
झुजा धोलार हाणात बडी
बळग्याचें घेवन व्हडें
देसा व्हडें लायात तडी